साहित्याच्या मळार कवी आनी ललीत निबंदकार म्हण नांव जोडिल्ल्या प्रकाश थळीनी मराठी, बंगाली, कन्नड आदी भासांतल्यो गाजिल्ल्यो नाटचकृती कोंकणीत रूपांतरीत केल्यो. 'वॅटींग फॉर घासलेट' ह्या नांवाचो तांचो मराठी प्रयोगक्षम एकांकीचो संग्रह मुंबय उजवाडाक आयलो. गोंयांत येतकूच ताणी त्या मराठी संग्रहांतल्यो एकांकी कोंकणींत उतरायल्यो आनी त्याचवांगडा कांय नव्या एकांकींचे लेखन केलें. 'तीन खेतीं शाणीं सुरतीं' ही तांगेली एकांकी कला अकादेमीचे महाविद्यालयीन एकांकी सर्तित गाजली आनी उपरांत जायतेकडेन जायत्या पंगडांनी तिचे प्रयोग सादर केले. 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं,' उजवाडटलें आज ना फाल्यां,' 'प्रिया तुज्या मोगाखातीर,' 'वाट पळयतां दुकां गळयतां,' 'आयलें हड्डचार घेतलें खड्डचार,' 'घर म्हजें हांव धनी' आनी 'उक्तावण' अशा तांगेल्या सात एकांकीचो संग्रह 'तीन खेतीं शाणी सुरतीं' ह्या नावान उजवाडाक आयला.

प्रकाश थळी खासा नाटचकर्मी आशिल्ल्यान प्रयोगक्षमता हो तांचे एकांकीचो पयलो गूण थरता. पूण एका तंत्रज्ञ मनशान बरयिल्ल्यो निर्जिव नाटयकृती अशें मात ताचें स्वरूप न्हय. तांच्यांतल्या ललित लेखकांची सर्जनशिळताय आनी नाटचकलाकाराची सर्जकताय हांचो मेळ बसून तांगेली एकांकी घडटा.

आयज गोंयांत कला अकादेमी सर्तिच्या बावीसाव्या वर्सा विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन थराचेर नव्यो नव्यो एकांकी माचयेर येतात. सर्तित जैतिवंत थरिल्ल्या एकांकीचे एक दोन प्रयोग शाळांनी हेर थळाव्या सर्तिनी सादर जातात.

## नव्यो एकांकी नवे एकांकीकार

लेखनांतली गुणवत्ता, दिग्दर्शन आनी हेर तांत्रीक बाबतींतलीं कल्पकता हाकालागून जैतिवंत जाल्ल्या आनी गाजिल्ल्या अशा ह्या पांच/स वर्सांतल्या कांय एकांकीचो आनी नवोदीत बरोवप्यांचो मुजरत उल्लेख करूं येता. विजयकुमार कामत हांगेली 'चित्रांतलें घर,' राजू दा. नायक हांगेली 'खुरीस उबारूकूच जाय,' श्रीधर कामतीली 'इंतेर' सु. म. तडकोड हांची 'कॅस्केड,' धर्मानंद वेर्णेकार हांची 'एक जयराम साजुलो अडवलपालकार,' दत्ताराम बांबोळकार हांगेली 'वनमहोत्सव,' दिलीपकुमार वि. नायक हांची 'आजून शाळा सुटूंक ना' ह्यो एकांकी आपणाल्यो कुरू रेखून गेल्यात.

कृष्णनाथ आळवणी हांची 'आमी सगळीं देड शाणी,' उल्हास पै रायकार हांगेली 'बोमो द ग्रेट,' रामदास नायक हांची 'कावळे,' गुरूदास बांबोळकाराची

'काणी एका फळराजाची,' विजय थळी हांची 'भाटकाराचो कान,' पुंडलीक नायकाची 'रानसुंदरी' ह्यो एकांकी शालेय पांवडयार बालप्रेक्षकांचे पसंतीक उतरल्यात. जयमाला दणायत हांच्यो 'सप्तक' एकांकी संग्रहातल्यो रचना ह्यो संस्कार साहित्याच्या स्वरूपांतल्यो शालेय एकांकी आसात. तानाजी हळर्णकार हाणीय असल्यो एकांकी बरयल्यात. डॉ. विनय मुर्लेकारानी इसापनितीचेर अशोच 'बोधिका' रचल्यात.

सर्तितल्यान नांवारूपाक आयिल्लो एकांकीकार म्हळयार दत्ताराम कामत बांबोळकार. पुराय स्वरूपाचीं कोंकणी नाटकां बरोबपांतूय ताणे नामना जोडल्या. श्रीधर कामत बांबोळकार हाणी दिग्दर्शित केल्ल्यो तागेल्यो एकांकी कलात्मक पांवडयार जैतिवंत थरल्यात. दत्ताराम कामत बांबोळकार आपणाल्या एकांकीनी अस्वस्थ करपी प्रश्न Socio Political समस्या, भ्रश्टाचार, पातकां, मनशाचीं आडांगपणा, जुलूम, अन्याय आदी अचूक उतरांनी मांडटा. हालींसराक चड प्रचलीत आशिल्लो Mob Play वा Group Theatre चो प्रकार तागेले लिखणेक चड मानवता. 'वनमहोत्सव,' 'खामसुत्री बावलें खंय खंय पावलें,' 'हीं झुजां सैमाची,' 'मायपास' आनी 'पुण्यफळ' ह्या पांच एकांकीचो संग्रह 'वनमहोत्सव' ह्या नांवान उजवाडाक आयला.

शाळांच्या गॅदरींगानीं आनी काल्या-जात्रासारक्या उत्सवांनी आनी तालुको पावंडयावयल्या सर्तिनी जांच्या एकांकीक खूब मागणी आसा तो एकांकीकार म्हळयार भरत नायक. तागेली 'वेंचणूक' ही एकांकी खूब गाजली. 'चपलाहार' एकांकी खासा भरत नायक आनी तागेलो पंगड गावागावांनी वचून सादर करतालो. 'भेरें भेरें टुणटुणे,' 'बॉबी न्हिदता तेन्ना,' 'चपलाहार,' 'तिसरे माळयेर बस' आनी 'चामटयाक चिमटो' हे तागेले बारीकमोटे पांच एकांकी संग्रह उजवाडाक आयल्यात. उत्सवांची गरज मतित धरून बरयिल्ल्यान सगळयो एकांकी विनोदी स्वरूपाच्यो आसात.

हेच धर्तिच्यो उत्सवी एकांक्री मधुसूदन बोरकार हांगेल्या 'हांसोळ' संग्रहांत आसात आनी तांचे मोटया प्रमाणांत प्रयोग जातात. गोकुळदास मुळवी, सुहास सावर्डेकार, पांडुरंग देसाय, सुमंत भट, शैलेशचंद्र रायकार, जे. एल. गोयश हांगेले प्रहसनात्मय एकांकीचे संग्रह उजवाडाक आयिल्ले आसात.

मनोरंजनाचें सोयीस्कर साधन म्हणूनूच ह्या एकांकीचो वापर जाता. बरेच फावट मागणी तशी पुरवण अशीय अवतिकाय जाता. प्रसंगाचेर आनी व्यक्तिच्या धोंगापोंगाचेर आदारिल्ली थरावीक सांच्याची ही एकांकी. केन्ना केन्ना फॅशन म्हण सामाजीक विशय तातूंत केळोवप जाता. साहित्यिक नदरेन कसलें खाशेलें योगदान ही एकांकी घडयना तरीलेगीत नाटकाच्या मळार ताणी निर्माण केल्लें वातावरण हेर उमेदवारांक पोसवण दिवपी थरता.

मीना काकोडकार हांची 'उरणी होंकल,' हेमा नायक हांची 'भायली गोडी' ह्यो एकांकी रंगमाचयेर आयल्यात. नयना आडारकार, अभयकुमार वेलींगकार, अशोक भोंसलो हाणीय एकांकी साहित्य रचलां. तेनसिंग रोद्रीगीश, सतीश सोनक, द. वा. तळवणेकार, हाणीं एकांकीच्या मळार केल्लो एखाद दुसरो प्रयोग नाविन्याखातीर नदरेंत भरला.

रामकृष्ण जुवारकार, सुरेश काकोडकार, पुरूषोत्तम शिगबाळ, रवीन्द्र आमोणकार, पुंडलीक खवंटे, रवीन्द्र नमशीकार हाणी केन्ना स्वतंत्र तर केन्ना अणकारीत वा रूपांतरीत एकांकी संहिता निर्मिल्यात.

कोंकणी नाटककार एन. शिवदास हाणी 'ज्योतिस - फितीस' आनी 'पुतळे' आनी 'भायर भितर' अशो एकांकी बरयल्यात जाल्यार दुसरे एक नाटककार दिलीप बोरकार हांच्यो 'कॅन्सर,' 'चार खांब्याकडेन,' 'धारेपेल्यान वचचें आसा.' अशो तीन एकांकी ताणीच संपादीत केल्ल्या 'आकार नाटचविशेशांकात (1982) उजवाडाक आयल्यात. तांचो पांच एकांकीचो संग्रह 'कॅन्सर' उजवाडणेचे वाटेर आसा. कोंकणीतले तिसरे एक नाटककार उपेंद्र तिबलो उर्फ अनिरूद्ध बीर हाणी उण्यो एकांकी रचल्यात पूण 'बेनल्ल' सारखी तांगेली रचना प्रयोगक्षम आनी प्रभावी थरल्या. दत्ता श्री. नायक हाणी 'कावळेमाम ! कावळेमाम !' आनी 'परमवीर' ह्यो एकांकी बरयल्यात. तांगेली 'परमवीर' रंगमाचयेर यशस्वी जाल्या. तुकाराम रामा शेट हाणी 'फुटपायरी' 'आमी' आनी 'एक जुंवो जियेता' सारक्यो प्रायोगीक स्वरूपाच्यो एकांकी बरयल्यात. नेमाळ्यांनी त्यो प्रसिद्ध जाल्यात.

## तियात्र शैलीची एकांकी

'खेळ' आनी 'तियात्र' हे उणो अदीक फरक आशिल्ले दोन कोंकणी लोकनाटचप्रकार गोंय स्वतंत्र जावचे आदीसावन गोंयांत चलताले. किरिस्तांव धर्मिय समाजाचें पडबिंब ह्या लोकनाटचांनी दिसतालें. हो प्रकार खेळपीय ह्याच धर्माचे लोक आसताले. ह्या लोकनाटचाची एक खाशेली शैली आसा. हलके-फुलके विनोद, अतितायी अभिनय, सामाजीक व्यंग, निती-बोध हीं ते शैलीचीं वैशिष्टयां.

गोंय सुटके उपरांत आनी गोवा कला अकादेमीन एकांकी, नाटक हांचेबराबर 1974 वर्सासावन तियात्रांच्यो सर्ती दवरिल्ल्यान तियात्र ह्या प्रकाराक बरें उत्तेजन मेळ्ळें. वेवसायीक स्वरूपाचो तियात्र सादरीकरणाचे नदरेन खूबसो सदळ आनी भडक आसलो. सर्तीतलो तियात्र, दिग्दर्शन, अभिनय, नेपथ्य, उजवाड, संगीत हांचे बाबतींत जाणवीकाय दाखोवपाक लागलो. लेखनाचे नदरेंतूय तातूंत नवे नवे विशय येवपाक लागले.

तियात्र आनी खेळ हांची मूळ संहिता ही एकांकी ह्या प्रकाराकडेन खूब लागीचें नातें सांगपी आशिल्ल्यान कोंकणीत स्वतंत्र एकांकी नांवारूपाक येवंक लागतकूच कोंकणीतल्या कांय नांवाजल्या तियात्रीस्तांनी एकांकी लेखनाक आरंभ केलो. तातूंत सगळ्यांत पयलीं नांव येता तें तोमाजिन्यू कार्दोज हांगेलें. 'कांटेच कांटे,' 'उतरां आनी करण्यो,' 'हांवूच तो,' 'इश्ट,' 'इन्स्पेक्टर,' 'आयचो समाज,' 'काळोख आनी उजवाड,' 'अंतस्करण आनी कायदो,' 'भुरगीं आमची गिरेस्तकाय' आदी तियात्र बरोवन ताणी तियात्राक कलात्मक आनी साहित्यिक दर्जो दिलो. तीच गजाल ताणी एकांकीच्या मळार केली.

एकांकी लेखन करताना तांचेकडसून दोन म्हत्वाच्यो गजाली घडल्यो. पयले सुवातेर तांगेली तियात्र लोकनाटयाची शैली एकांकीक लाबली. त्याखातीर ती एकांकी हेर एकांकीमदें उठून दिसली. दुसरे सुवातेर ताणी क्रिस्तांव आनी हिंदू अशीं दोन समाजांतलीं पात्रां एकांकीत सभावीकपणान निर्मिलीं आनी खासा त्या एकांकीचे प्रयोग करताना त्याच कलाकारांची निवड केली. धर्मिक एकचाराची ती एक बरी देख अशें म्हणपाक जाता. पूण हाचो अर्थ कलात्मक आनी साहित्यिक गुणांकडेन आडनदर करून तांगेली एकांकी धर्मिक एकचाराचे धडे दिता अशें न्हय.

एक सूत्र घेवन, हलक्या फुलक्या विनोदान आनी वैशिष्टयपुराय पात्रांच्या सभाव दर्शनान शेवटाच्या परीणामाक भिडप हें तांगेले एकांकीचें खाशेलेपण. 'चीट' ही तांगेली गाजिल्ली आनी तांच्या नाटय-लेखनाचें प्रतिनिधीत्व करपी एकांकी. लोकनाटयाचे शैलीवरी 'बोध' होवूय लोकनाटयाचो भाग तातूंत सभावीकपणान प्रगट जालां. तोमाजिन्यू कार्दोज हांची 'चीट' 'पुनरदृष्ट' आनी 'परीक्षा' ह्यो तीन एकांकी 'एक आंकी नाटकुलीं' ह्या संग्रहांत उजवाडाक आयल्यात.

तियात्रांचें लेखन करतानाच एकांकी लेखन करपी दुसरो एक तियात्रीस्त म्हळयार फ्रेडी जे. द. कॉस्त. सुमार पंदरा वयर तियात्र बरोवपी ह्या बरोवप्यान सुमार धा वयर स्वतंत्र एकांकी बरयल्यात. 'पा. जुझे वाज,' 'शंबू पसरकार,' 'खरेलो पाद्री,' 'बदल,' शिकपाचें मोल,' 'जेजूचे कश्ट,' 'वाट,' खरीं नातलां' हीं तांगेल्या कांय एकांकीचीं नांवां हातूंतल्यो कांय एकांकी धर्मिक स्वरूपाच्यो, कांय नितीची देख दिवपी जाल्यार कांय विनोदी स्वरूपाच्यो आसात. 'बाप्पा बाइरीन वता', 'बाप्पा मंत्री जाता', आनी 'बाप्पाक सोर्त फुट्टा' ह्यो एकांकी पुरायपणान विनोदीच आसात. 'बाप्पा' ह्या Stock Character भोंवतणीच ह्या एकांकीचें कथासूत्र घुंवता. आदले एकांकीकार किसन कामत, रघुवीर नेवरेंकार आनी विनय सुर्लेकार हांच्या एकांकीतल्या 'बाप्पा' व्यक्तिरेखेचोच पुरायरितीन तांचेर प्रभाव आसा. प्रभावा परस ताचें अनुकरणूच आसा अशें

म्हणचें पडटलें. एक गजाल मात खरी. तीं म्हळचार 'बाप्पा' चें आदलें व्यक्तिचित्र ज्या प्रेक्षकवर्गान पळयिल्लें आनी मनाची करमणूक करून घेतिल्ली त्या प्रेक्षकांपरस वेगळ्या प्रेक्षकांमुखार हें व्यक्तिचित्र प्रक्षेपित करपाचो तोखणायेचो वावर फ्रेडी जे. द. कॉस्ता हाणी केलो.

तियात्राच्या पालकार जे बरोवपी वा हेर कलाकार वावुरतात तांकां एकांकी हो प्रकार खूब मानवला अशें दिसता. तियात्राचें स्वरूप एकांकी सारकेंच आशिल्ल्या कारणान एकांकी रचना करप हो त्या बरोवप्यांक तंत्राचे नदरेन संवकळीचो प्रकार थरता अशें म्हणचें पडटलें. आयचे घडकेक गोंयांत साश्टी, सांगें, काणकोण, केपें, सावडें, कुडचडें, फोंडे ह्या वाठारांत तियात्र शैलीच्यो एकांकी मोटया प्रमाणांत जातात. ह्या एकांकीच्यो दर वर्सा सर्ती घडोवन हाडपी कांय थळाव्यो संस्थाय आसात. प्रयोगाचे नदरेत जैतिवंत जाल्ली एकांकी हांगा-थंय परत परत इनामां घेता अशें चित्र दिश्टी पडटा.

ते नदरेन जॉनी एम. ह्या एकांकीकाराचो मुजरत उल्लेख करचो पडटलो. तांगेली 'श्राप' ही एकांकी ताणी आपणाल्या पंगडाचे वतीन गोंयांत 28 सुवातींचेर एकांकी सर्तिनी सादर केली आनी दर सर्तिक प्रयोगाचीं, अभिनयाचीं दिग्दर्शनाचीं आनी लेखनाचीं इनामां जोडलीं. चालू राजकारणांतल्या भ्रश्टाचाराचेर आदारिल्ली तांगेली ही एकांकी 1987 वर्सा स्वतंत्र पुस्तक रुपान उजवाडाक आयली. अशाच थळाव्या संस्थांच्या सर्तितल्यान बऱ्या साहित्यिक पावंड्याच्यो एकांकी बरोवपी म्हण कार्लूस फेर्नांडीस हांचें नांव घेवं येता. तांची 'थीक' ही एकांकी तंत्र आनी आशयाचे नदरेन बरी आसा.

## गोंयांभायर एकांकी

गोंयांभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांनी विखरून पडिल्ल्या कोंकणी समाजांत कोंकणी संस्कृताय पोटलून धरल्या. ते संस्कृतायेंत नाटक हो भाग, वेगळो काडूं नजो इतलो तो एकरूप आसा.

नोकरी वेवसायाच्या निमतान मुंबयत येवन रावपी कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांचो आंकडो व्हड आसा. हिंदू धर्माच्या लोकांच्यो धर्मिक आनी ज्ञातीय स्वरूपाच्यो संस्था आनी मठ आसात. आपणाली सांस्कृतिक भूक भागयताना तांच्यांतल्या सर्जनशील कलाकारांनी नाटयाचे उत्कट आनी भावपूर्ण अशे अविष्कार घडल्यात. हे अविष्कार केन्ना मुंबयत जाल्या आनी तांचे पडसाद कर्नाटकांत तांगेल्या गांवघरा उमटल्यात जाल्यार हे नाट्यप्रयोग तांच्या गांवघरा पयलीं जाल्यात आनी मागीर मुंबयत तांचे कर्मभयेंत पावल्यात.

1920 वर्साच्या अदमासाक बोळंतूर कृष्ण प्रभु हाणी बरयिल्लें 'चंद्रहास'

हें पयलें पुराय स्वरूपाचें संगीत कोंकणी नाटक अशें मानतात.

मंगळूरी शैलींतले हे नाट्यपरंपरेंत बैंदूर देवराय अय्यगळ हें नांव उठून दिसता. संस्कृत साहित्यावांगडा ताणी परकी भाशेंतल्या अभिजात साहित्याचोय अभ्यास केला. ताणी सुमार आठ एकांकी रचल्यात. 'पार्वती कवड काडि' ही तांगेली एकांकी ताणी रेडिओखातीर श्रुतिका म्हण बरयली. पूण उपरांत ती रंगमाचयेर जैतिवंत थरली. 1981 वर्सा शिराली, श्री चित्रापूर मठाच्या रथोत्सवांत तिचो प्रयोग जालो आनी मागीर 1983 वर्सा ती पुस्तक रूपान भायर सरली. भगवान शंकर मृगयेक सावन, एके फांतोडेर स्वस्थानाक परतना आनी दारार मारता तेन्ना भायर आयिल्लो मनीस अनवळखी समजून पार्वती ताचेकडेन संवाद करता असो हो प्रसंग एकांकीच्या रुपान उबो केला.

'कौरवांलो कृष्णु' ही एकांकी म्हळचार तांगेल्या पु य नाटकाचोच एकांश. पुराय स्वरूपाचें नाटक ताणी 1956 वर्सा बरयलें. उपरांत 1978 वर्सा ताची एकांकी घडयली. ती 'कुळागर' (फेब्रु. 1983) च्या अंकांत उजवाडाक आयली. अभिजात संस्कृत साहित्यांतल्यो 'व्यक्तिरेखा' आनी प्रसंग कोंकणीत हाडटना ताणी त्या व्यक्तिरेखांचो तोल ढळूंक दिवना. तांगेल्या संवादाची रचना म्हळचार नकसूद फुलांची माळ कशी. काव्यमय आनी शैलीदार संवाद हें तांगेल्या एकांकीचें खाशेलेंपण मानपाक जाय.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी हिंदू लोकांच्या देवस्थानच्या प्राकारांत कोंकणी नाटकां खेळपाची परंपरा चलता. पुराय स्वरूपाच्या नाटकांसांगाता केन्ना केन्ना एकांकीचेय प्रयोग जातात.

कर्नाटकांत कोंकणी नाटकाची परंपरा चलता. 1948 वर्साच्या अदमासाक लूईस मास्कारेन्यस हाणी बरयिल्ले 'आब्रावंचें यज्ञदान' ह्या गीतनाट्या उपरांत तितले साहित्यिक तांकीची नाट्यरचना उपरांतच्या पंचविशेक वर्सांमेरेन जाली ना.

## चा. फ्रा. दे कोस्ता

लुईस मास्कारेन्यस हांचेच तांकीचो स्वतंत्र प्रज्ञेचो आनी चिंतनशील नाटककार उदयाक आयलो तो म्हळचार चार्लस फ्रान्सीस दे कोस्ता. चा. फ्रा. कोस्ता म्हण काव्याच्या मळार तांकां सगट कोंकणी संवसारांत नामना आसा. फाटलीं चार दशकां तो कवी, गीतकार, पत्रकार आनी नाटककार ह्या मळांचेर आपणाले स्वयंभू प्रतिभेन चकचकता.

'सुणें माजर हासता' ही तांगेली गाजिल्ली एकांकी. तिचें स्वरूप कांयशें लघुनाटकावरी आसा. 1976 वर्सा, मंगळूरांत तिचो पयलो प्रयोग जालो. कल्पकतेचो नदर दिपकावणो अविष्कार म्हण हे एकांकीची नामना जाली.

' विशेंतीचे भाव ' हिवूय तांची गाजिल्ली एकांकी. एका मध्यमवर्गी घराब्याचेर ती आदारल्या. भांगराची आशा धरपी पूत-सुनो, मेल्ले म्हातरेच्या मडयाची कशी विदर्णा करता तें तातूंत मार्मिक रितीन दाखयलां. हे एकांकीचे सुमार पंचविशेक प्रयोग जाल्यात. ' टोमेटो ' आनी ' हांडो उटला ' ह्यो एकांकीय वेगळे विशय आनी मांडणी हांचेखातीर यशस्वी थरल्यात. तांगेल्या चार एकांकीचो संग्रह ' सुणें माजर हासता ' ह्या नांवान पुस्तक रुपान प्रगट जाला.

धर्मिक आनी समाजिक दंभाआड केल्लें मार्मिक व्यंग, मानवीक आनी विज्ञाननिष्ठ नदर. प्रतिकां आनी प्रतिमांची अलंकारीक भाशाशैली हे चा. फ्रा. दे कोस्ताच्या एकांकीचे खाशेले गुण आसात.

गोंयांत, मुंबयत आनी कर्नाटकांत जशी एकांकीची परंपरा आसा तशी खास परंपरा केरळांतल्या कोंकणी समाजामदीं ना. धर्मिक उत्सवानी आनी केन्नाय सामाजिक थरावयल्या कार्यावळीनी कोंकणी एकांकीचे प्रयोग करमणूकीखातीर जातात इतलेंच.

रंगमाचयेर एकांकी तशी आकाशवाणीचेर श्रुतिका वाजता. हालींच्य काळार कांय श्रुतिकांच्यो वेवसायिक स्वरूपांत कॅसेटीय भायर सरतात. श्रुतिकेचो सगळो भरीभार आवाजाचेर आनी संगीताचेरूच आशिल्ल्यान तिका कलात्मक मर्यादा पडटात. तरी लेगीत आकाशवाणी आनी रंगमंच ह्यां दोनूय तंत्रांची बेसबरी जाण आशिल्ले लेखक आपणाले एकांकीचें श्रुतिकेंत रुपांतर करता तेच धर्तीचेर आपणाले श्रुतिकेचो एकांकी रुपकारूय घडयता. आगत्रं घडकेक आकाशवाणीचीं पणजी, मुंबय, मंगळूर आनी धारवाड हीं केंद्रां कोंकणी श्रुतिका नित्यनेमान वितरायतात.

कोंकणी नाटकाक अजून दूरदर्शनाचेर फावो तितली सुवात मेळूना. ती मेळटली तेन्ना रंगमाची, आकाशवाणी ह्या माध्यमावांगडा आनीक एका नव्या माध्यमाची भर पडटली आनी एकांकीचें एक देखणें रुप पळोवपाक मेळटलें.



# नाटक आनी कोंकणी रंगमाचो

## १. नाटक

नाटक हो एक दृक् आनी श्राव्य असो साहित्य प्रकार आसा. नाटकाचे बाबतींत पळोवप आनी आयकप ह्यो दोन गजाली येतात.

तो एक सामुहीक अविष्कार. नाटककार, दिग्दर्शक, नट आनी प्रेक्षक हांच्या एकामेकांच्या आदारान नाटक उबें जाता. ताका लागून नाटक हें कविता, कथा, कादबरी हाचेपरस वेगळें थरता. सगळचा साहित्य-प्रकारांतल्यान जीवनाचो अणभव प्रकट जाता तसो तो नाटकांतल्यानूय जाता. पूण कथा, कादंबरीचो वो कवितेचो आस्वाद एका वेळार एका रसिकाकूच घेवपाक मेळटा. मात्त नाटक एके व्यक्तिपुरतें मर्यादीत उरनासतना तें एक समुहाखातीर आसता.

## नाटकाचो अर्थ

नाटक हाचो मूळ अर्थ अभिनय करप असो आसा. "नट" हें संस्कृत उतर मुळांत प्राकृतांतल्यान आयलां. मूळ उतर "नर्त" म्हळचार नाचपी अशें आसा. नट म्हणजे अभिनय करपी, सवंग करपी आनी नाटक म्हळचार नाटकाच्या रुपान, सवंगाच्या रुपान दाखोवपी वो सादर करपी असो अर्थ रुढ जालो. इंग्लीशींतलें "ड्रामा" हें उतर मूळ ग्रीक उतर "ड्रन" हाचेवयल्यानूच आयलां. ताचो अर्थ, टू डू - कृती करप असोच आसा.

संस्कृत वाङमयांत नाटकाक पंचमवेद लेखला. इ. स. पूर्व सव्व्या शतमानांत भरतमुनिच्या नाट्यशास्त्राची रचना जाली अशें मानतात. भरतमुनीन नाटकाचें म्हत्व सांगताना म्हळां, "नाटकाक लागून परमेश्वर प्रसन्न जाता, तसो तो गंध फुलांनी लेगीत जायना. नाटक म्हळचार जिविताचो हारसो. नाटक मनोरंजनाचें साधन तशें नाटकावरवीं समाज प्रबोधनूय करूं येता."

भरतमुनिचे धर्तेरुच ॲरिस्टोटल सांगता, "नाटक म्हळचार जीवनाची अनुकृती."

आज आमी जें नाटक पळयता, तें आधुनीक स्वरुपाचें नाटक. ह्या आविल्ल्या नाटकाक देशी आनी परदेशी अशी अडेज हजार वर्सांची परंपरा आसा.

## पूर्विल्लें दायज

संस्कृत नाट्यपरंपरेंत भास, कालिदास, शुद्रक, भवभूती आदी नाटककारांचें

दायज आमकां लाबलां. हें आमचें निजी दायज. तेचबराबर ग्रीक आनी रोमन रंगमाचयेचे परंपरेनूय आमची भारतीय रंगमाची बळीश्ट केल्ली आसा. थेस्पिस हो पयलो ग्रीक नाटककार. सोफोक्लीझचें नांव चड फाकिवंत जालें तें तागेले, 'इडिपस रेक्स' खातीर. ग्रीक रंगमाचये उपरांत रोमन रंगमाचयेचो उदेव जालो.

अँड्रोनिकस हो आद्य नाटककार अशें मानतात. तो गुलाम आसलो. मागीर ब्रिटीश रंगमाचयेर जबरदस्त नाटककार उदेलो तो शेक्सपिअर. तागेल्या हॅम्लेट, मॅकबेथ, किंग लिअर, ऑथेलो नाटकांनी तो गाजलो. संवसारभर फांकलो.

शेक्सपिअरच्या नाटकांविशीं तागेले अभ्यासक सांगतात, कालप्रवाहाची जाण व्यक्त करपी, मानवी मनाचो व्यापार मांडपी, जिणेंतलीं द्वंद्वां रंगोवपी, सत्यां सांगपी, तेचवरी रंगमाचयेचें सामर्थ्य आनी मर्यादा जाणपी असो तो नाटककार आसलो.

ताचे उपरांत आधुनीक म्हणुये अशे मोलेयर, इब्सेन, जॉर्ज बर्नार्ड शॉ, चेकोव्ह, ब्रेस्त, बेकेट हांणीय संवसारीक रंगमाची समृद्ध केली.

## म्हत्वाचे बदल

ह्या अडेज हजार वर्साच्या काळांत रंगमाचयेर लेखन आनी सादरीकरण हातूंत आकांताळे बदल घडले. मानवी संस्कृती विकसीत जायत गेली. ताचें पडबिंब नाटकांत पडलें. दोन महायुद्धाच्या खर परिणामांतल्यान मानवी संस्कृती थरथरली. ताचेंय पडबिंब नाटकान उदेलें. तंत्रीक नदरेनूय बदल घडले. उक्तो रंगमंच बंदीस्त जालो. मुखवटे गळ्ळे. मायक आनी विजेचो सोद लागलो. नटाचो आवाज मायकान प्रेक्षकांच्या कानांक भिडयलो जाल्यार लख्ख आनी वेधक उजवाडान नटाच्या मुखामळावयले हावभाव प्रेक्षकांचे नदरेमुखार स्पश्ट केले. ह्या तंत्रीक सुधारणांक लागून नाटक अदीक प्रभावी आनी परिणामकारक जावपाक पावलें.

## नाटक : एक खेळ

नाटकाचे परंपरेचेर अशी एक उडटी नदर माल्ल्या उपरांत आयचे घडकेक आमच्या मुखार जें नाटक आसा ताका पारखून घेवपाचो यत्न करूंया.

भरतमुनी नाटकाक "क्रिडनीयक" म्हणटा. "क्रिडनीयक" म्हळचार खेळ.

आमीय तेच परंपरेन नाटकाक खेळ वा प्ले म्हणटात. खेळांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, खेळ पळयतल्याक जसो खेळाचो आनंद भोगूंक मेळूंक जाय तेचपरी तो आनंद खेळ खेळटल्यांकूय तो फाव जावंक जाय. आमगेल्या हौशी नाटकांमदीं

ह्या खेळाचो आनंद कलाकारांक मेळटा पूण धंदेवाईक कलाकारांक तो कितलो मेळटा हाचेविशीं दुबाव आसा.

## नाटकांतल्यान व्यक्तिमत्व विकास

आयच्या आधुनीक काळांत नाटचशिक्षण हें मनशाच्या व्यक्तिमत्व विकासाक उपेगी पडटा अशें दिसून आयलां. ज्येष्ठ नाटचकर्मी सर्गेस्त भालबा केळकर हांगेले अणभव ते नदरेन मार्गदर्शक आसात. तांच्या म्हणण्याप्रमाण तांगेले संस्थेंतल्यान जे नाटचशिक्षण घेवन भायर गेले ते ते आयज समाजांत बऱ्या हुद्दयाचेर काम करतात आनी नाटचशिक्षणावरवीं तांच्या व्यक्तिमत्वाचो जो विकास घडलो तो तांकां तांगेल्या जिवितांत उपकाराक पडलो. ह्याच हेतून आयच्या काळांत नाटचशिक्षणाची गरज शिक्षणक्षेत्रांत जाय असो आग्रो आनी सूर आसा.

सुरवेकूच सांगलां, नाटक हो दृक आनी श्राव्य असो साहित्याचो प्रकार. कविता, कथा, कादंबरी ह्या साहित्याच्या प्रकारांत नाटक हो प्रकार तंत्राचे नदरेन अवघड. पूण तो एकदां सादून सर्वांगान यशस्वी जालो जाल्यार ताचेपसून मेळपी खोस उपाट.

## तंत्रीक नाटककार

खूब प्रसिद्धी आनी खूब पसो ह्या दोन आकर्शणांक लागून जायते लेखक नाटचलेखन करतात. तातूंतले जायतेजाण सिद्धहस्त लेखक आसतात. कथा, काव्य सारख्या प्रकारांतल्यान ताणी जीवनाचें योग्य अशें दर्शन घडयिल्लें आसता. पूण रंगमाचयेवयली तंत्राची जाण अर्दकुटी उरिल्ल्यान नाटकाच्या मळार तांच्या वाटयाक अपेशूच चड येता.

रंगमाचयेर सदाकाळ वावुरपी दुसरे, फिशाल अशे तंत्रज्ञ आसतात. नाटक बरोवपाची हांकांय ओड लागता. नाटयतंत्रांत फीट् बसूंये अशी नाट्यनिर्मिती ते करपाक शकतात पूण नाटकान जें जीवनाचे यथार्थ दर्शन घडोवपाक जाय तें तांचेकडसून जायना. जीण समजून घेवपाची तांची जाणूच उणी पडटा. ज्या लेखकांक जीवनाची पुराय वळख घडल्या तोच तें जीवन रंगमाचयेर हाडूंक शकता आनी तातूंत तंत्राच्या आदारान नाट्य निर्माण करपाक शकता. ह्या लेखनप्रपंचाक नाट्यसंहिता अशें म्हणटात. नाटकाच्या ह्या आकृतीबंधांत घटना, प्रसंग, पात्रां, संवाद हांचो आसपाव जाता.

## नाटककार आनी नाटचसंहिता

नाटक म्हळें म्हणज पयलीं संहितेचो प्रश्न यता. आनी संहिता करपी

नाटककार. नाटकांत नाटककाराक म्हत्व आसपाक जाय. कांयकडेन नाट्लेखन हो कच्चो माल मानून नट, दिग्दर्शक ते नाट्यकृतिचें आपणांक जाय तें करता, थंय नाट्यप्रपंच सकयल्या थराचो थरता. तें नाटक न्हय, तो एक करमणुकीचो कारखानो. ह्या करमणुकीच्या कारखान्यांत प्रेक्षकांक जाय तें मेळू येता आनी थंय ताका नाटककार जबाबदार नासता. प्रेक्षकांक कितें दिवपाचें हें नाटककारानूच थारावपाचें आसता आनी दिग्दर्शक आनी नटसंच हांणी आपणाले मर्यादेंत रावूनच तें प्रेक्षकांमेरेन पावोवपाचें आसता.

सगळ्यांत बरी नाटयसंहिता खंयची ? वेगवेगळे दिग्दर्शक वेगवेगळे तरेन सादर करूंक शकता ती बरी संहिता अशें मानपाक हरकत ना. पूण हो तिचो एक गूण जालो. तिचे हे रुय गुण आसतात. संहिता वो संहितेंतलो विचार तकलेक भिडपी आसल्यार सगळचांत बरें, काळजाक भिडपी आसल्यार वायट न्हय पूण भावना चाळोवपी संहिता ही उणाक पांवडयाची मानतात.

भरतमुनीनूच सांगलां, नाटकावरवीं करमणुकीबरोबर समाजाचें उद्बोधन करपाक जाता. समाजांतल्या अजून अशा नितीमूल्यांचो नाटककारान पुरस्कार करूं येता. तेचपरी अन्याय, अत्याचार हांचो तिरस्कार करूं येता. हाचो अर्थ नाटककाराक समाजसुधारणेचें कंत्राट मेळ्ळां अशेतरेन मात ताणें वागपाक फावना. तशें जालें जाल्यार तो नाटकगृहाचें, सभागृह करतलो आनी उपदेशाचें पाजण प्रेक्षकांच्या बोडार ओतीत रावतलो.

नाटककाराकडेन विचाराचें भांगर आसता पूण आकृतिबंधाचें कसब नासल्यार भांगराचो अलंकार जावपाक पावचो ना.

पुर्विल्ल्या नाटचसंहितांत प्रारंभ, मध्य आनी शेवट असो क्रम आसतालो. सुरवेक एक घटना निर्माण करप मागीर एक पेंच घालप आनी निमाणें तो पेंच सुटावो करप अशी संहितेची मांडावळ आसताली. आतां असो क्रम जरी नासलो तरी संहितेंत घटना, संवर्श आनी संवाद हांचो आस्पाव आसताच.

## संवादाचें म्हत्व

नाट्यसंहितेंत संवाद हें माध्यम धरतात. संवादाक लागून कथानकाची गती कायम उरता. पूण संवाद हें माध्यम. संवाद म्हळचार घटना न्हय. देखून संवाद गरज थंयच येवपाक जाय आनी गरज थय थांबपाक जाय. रबर ताणचो तशे संवाद ओडून दवरपाक जायना. कोटी आनी वलूप्यांनी जखडपाक जायना. संवादांतल्यान नाट्यात्मक आशय प्रगट जावपाक जाय.

शेक्सपिअरच्या नाटकांतले संवाद लांबचेलांब आसात. काव्यांत भरिल्ले. तांगेल्या संवादांतलीं "स्वगतां" चड प्रसिद्ध. त्या स्वगांततल्यान पात्रांच्यो भावना, मनांतलीं आंदोलनां शेक्सपिअरान बरेतरेन प्रगट केल्यांत. शेक्सपिअराचे

संवाद काव्यत्म जाल्यार इब्सेन ह्या नाटककाराचे संवाद सामके घरगुती. शेक्सपिअराच्या काव्यात्म संवादांचो प्रभाव भारतीय नाटककारांचेर पडलो. मराठींतले राम गणेश गडकरी हांगेल्या नाटकांनी संवादांतल्यान तांगेलें भाशावैभव प्रगट जाता. पूण मूळ नाट्यवस्तूक तें तारूंक शकनात.

शणै गोंयबाब हांगेल्या कोंकणी नाटकांतूय संवादांल्यान कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दिश्टी पडटा. ललीत लेखक जेन्ना भाशीक चळवळीचें म्हालगडेपण करता वो आपणायता तेदे वेळार अशे प्रकार घडटा आसूंक जाय.

जे भाशेंत नाटककार नाटक बरयता ते भाशेचेर ताचें प्रभुत्व आसचें लागता. भाशेच्यो लकबी, मोडी ताका खबर आसच्यो पडटात. धांवतल्याक जशे सडसडीत पांय लागता तशी नाटककाराक भास लागता. जांकां भास ना ते बरोवपी अपंगूळ जावन पडिल्ले आसतात.

संवाद नाटकाक गती दिता. आशय व्यक्त करता. हाचेभायर आनीक एक काम करता. तें म्हळचार नाटकांतल्या पात्रांची वळख घडयता. पात्राच्या संवादादयल्यान त्या पात्राचो सभाव, तागेलो बौद्धीक थर, समाजांतलें तागेलें स्थान हाची वळख घडटा.

संस्कृत साहित्यांत संवादाचे बाबतींत एक दंडक आसलो. नाटकांत उच्च आनी मध्यम वर्गांतल्या पात्रांच्या तोंडांत संस्कृत संवाद घालपाचे आनी कनिष्ठ पात्रांच्या तोंडांत प्राकृत संवाद घालपाचे. आज हो भेद, काळाभायरो थरला. पूण प्रादेशिक नाटकांत ज्या समाजाचें वो घटकांचें पात्र लेखनांत येता ताच्या तोंडांत वास्तवांतली तीच भास घालतात. आनी तें चड योग्य दिसता.

संवादांतल्यान प्रसंग रंगता पूण केन्ना केन्ना प्रसंगूच इतलो आशय प्रगट करपी आसता तेन्ना थंय संवादाची गरज नासता. देखीक कवीकुलगुरू कालिदासाच्या "अभिज्ञान शाकुंतल" नाटकांतलो एक प्रसंग घेवंया. शकुंतला जेन्ना कण्वाचो आश्रम सोडून दुश्यंतागेर वचपाक भायर सरता तेन्ना सगळो आश्रम भल्लेल्या गळयान तिका निरोप दिवपाक तयार जाता. उत्कट असो तो प्रसंग. कालिदासान तो कलात्मक नदरेन मांडला. थंय संवादाची गरज ना.

संवाद केन्ना केन्ना फक्त वातावरण निर्मिती करता.

मंत्रपठण, भटपण हो संवादांतल्यान येवपी भाग चड करून वातावरण निर्मिती खातीरूच आसता.

## तंत्रीक बाबींची जाण

नाटकाची संहिता तयार करताना नाटककारान संवादाबरोबर नेपथ्य, वेशभुशा, प्रकाश येवजण, अभिनय ह्या दृश्य बाबिंचो तेचपरी संगीत, ध्वनीयेवजण हांचोय विचार करचो पडटा. निखटो विचार न्हय तर ह्या बाबिंचो खोलायेन

अभ्यास करचो लागता.

नाटचसंहितेंत जायती वेशभुशा दाखोंव येता. पूण ती बदलपाचे प्रसंग जर नाटकांत आसत जाल्यार संहितेंत पात्रांक तितलो वेळ दिवपाक जाय. ती जबाबदारी नट वा दिग्दर्शकाची म्हण हात फांपुडप, जबाबदार नाटककाराक सोबपाचें ना.

प्रकाश येवजण नाटचसंहितेक पूरक अशीच आसपाक जाय. विजेची सुविधा आशिल्ल्यान ज्यो जाय त्योच गजाली दाखोंव येता, नाका तांचेर काळोख दवरूं येता.

नाटकांत संगिताक म्हत्व खूब. भारतीय नाटकांत संगीत हो तर अविभाज्य असो भाग. आमचे परंपरेंत कांय संगीत नाटकां तयार जालीं. नाटचसंगीत नांवाचो एक प्रकारुय रुढ जालो पूण ह्या नाटचसंगीतान मूळ नाटकाकडेन खूबच फारकत घेतली. एकाच नाटकांत गद्य विभाग आनी पद्य विभाग अश्यो वणटी तयार जाल्यो. अशा नाटकान संगीतान शेक गाजयलो आनी संहितेतले नाटच खंयचे खंय झिडपून गेलें.

नाटकाक पूरक अशें संगीत दिवपाक संस्कृत नाटकांतलो वाद्यवृंद रंगमाचयेचेरुच बसतालो. पूण आधुनीक नाटकांत तो वाद्यवृंद भीतर गेलो. केन्ना केन्ना पुराय ध्वनींमुद्रीत करून संकलीत केल्ले संगिताचे अंश नाटकांत गरज थंय इफेक्ट म्हण वाजोवपाचेर आतां भर आसा. कांय वेळार ते नाटकाक मदत करतात जाल्यार कांय वेळार नाटकाचो बेरंगूय करून सोडटा.

## दिग्दर्शन

रंगमाचयेच्यो सगळयो गरजो भागोवपी एक बरी नाट्संहिता तितल्याच समर्थपणान रंगमाचयेर जैतीवंत जातली जाल्यार नाटककाराचे सर्जनशीलतेचे पात्रतायेचोच दिग्दर्शक आसचो पडटलो. आनी तागेलो नटसंचूय तेच जाणिवेचो आसचो पडटलो. बरी नाट्यसंहिता दिग्दर्शक बरी करपाक शकता वो वाट लावंक शकता पूण वायट नाट्यसंहिता तो बरी करपाक शकना.

दिग्दर्शकाच्या दिग्दर्शनांत ताणे कलाकारांक शिकयिल्लो अभिनय आस्पावता. अभिनय संयमी आसपाक जाय. नट ह्या संयमाच्यो शीम-मेरो हुबता तेन्ना लोक खलनायकाक गाळी मारतात, विनोदी पात्राक माथ्यार घेतात. अशेतरेन प्रेक्षकांची दाद घेवन प्रेक्षकांचे भकीक पडपी कलाकार दिग्दर्शकाक जुमानिना आनी नाट्यसंहितेक लेखिना. अशेतरेचे नट सदांच भुमिका सोदतात. ते नाटक सोदिना. ते नाट्यकलेक सकयलया पांवड्यार पावयतात.

कसबी आनी सर्जनशील दिग्दर्शक सगळचो भावना संयमान व्यक्त करपाक लायता. क्रौर्य, हास्य हांचेर तो नियंत्रण दवरता.

## प्रेक्षक : म्हत्वाचो घटक

नाटक ही एक सांघीक कृती. नाटककार, दिग्दर्शक, नटसंच आनी तंत्रज्ञ हांच्या आदारान ती उबी जाता आनी प्रेक्षक नावांच्या घटकान तिका पूर्णताय लाबता. नाटककार जसो मदल्या सगया घटकाचो विचार करता तसो ताणें प्रेक्षक ह्या घटकाचोय विचार करपाक जाय. प्रेक्षक हो एकलो नासता. तो पंगडान आसता. त्या पंगडाची एक अभिरूची आसता. ती अभिरूची ताची संकृताय, ताचो इतिहास हाचेर आदारून आसता. ही अभिरूची, नाटककार प्रभावी संहिता निर्माण करून बदलपाक शकता वो मुदलाक नाटककारूच बाबत आसल्यार तो त्या प्रेक्षकांचे कसलेय अभिरूचीक बळी पडपाक शकता.

एखादी बरी साहित्यकृती रसिकाक थाकाय दिता आनी विचार करपाक लायता. प्रत्यक्ष कसलो विचार दिवचेपरस विचार करपाक लावप हें चड बरें,

ते नदरेन आधुनीक नाटक जंय सोपता थंय तें सुरू जावपाक जाय अशें मानतात. म्हळ्यार नाटक रंगमाचयेर सोपता जाल्यार तें प्रेक्षकांच्या मनांत सुरू जावपाक जाय. बऱ्या नाटकाचें हें लक्षण.

## २. कोंकणी रंगमाची

आयज मुक्त गोंयांत कोंकणी साहित्याच्या मळार नदर माल्ल्यार दोन गजाली स्पश्ट दिसतात. पयली गजाल म्हळ्यार कोंकणी साहित्याचो आयज कविता, कथा, नाटक, निबंद आदी वेगवेगळ्या साहित्य प्रकारान समर्थपणान अविष्कार घडला आनी दुसरी गजाल म्हळ्यार कोंकणी साहित्य आयज कोणा समाजापुरतें मर्यादित उरनासतना, समाजांतल्या वेगवेगळ्या थरांतल्यान प्रगट जाता. ह्या आदीं गोंयांत असो प्रतिभेक चंवर कोंकणीबगर खंयचेच भाशेंतल्यान येवंक नासलो, हे एक इतिहासीक सत्य आसा.

कोंकणी साहित्यान हेर भारतीय भासांमदीं आपणाली योग्यताय सिद्ध करपाचो वावर थोड्या काळाभितर करून दाखयला.

## रंगमाची : गोंयचे जिणेचें वास्तव दर्शन

गोंयकारांचे जिणेची वास्तवपूर्ण प्रतिमा दाखोवपाची तांक फक्त कोंकणी नाटक आनी कोंकणी रंगमाची हांकांच आसा म्हणपाचो साक्षाकार आयज रसिकाक घडला. दिसानदिस कोंकणी नाटचचळवळ आंग धरपाक लागल्या ताचेवयल्यान हें सिद्ध जाता. खंयच्याय प्रदेशाची रंगमाची ही त्या प्रदेशाच्या

भाशेवयल्यान वळखतात.

ते नदरेन गोंयचे स्वतंत्र रंगमाचयेक कोंकणी भाशेबगर दुसरो पर्याय ना अशेंच म्हणचें पडटलें.

गोंयांत नाटचकलेचें दायज खूब गिरेस्त. गोंयांत जावपी हौशी नाटकांकडेन वा तियात्राकडेन घरांतल्या एकातरी मनशाचो संबंद आसताच. पूर्विल्ल्या काळांतले दशावातारी खेळ, काल्यांतलो संकासुराचो प्रवेश, रणमाले, जागर, तियात्र, खेळतियात्र आदी लोकनाटचंवरवीं हांगचे रंगमाचयेक पोसवण मेळ्ळया.

## आधुनिक कोंकणी नाटक

आविल्ल्या कोंकणी नाटकाची बुनयाद शणै गोंयबाबान घाली. तांची "पोवनाचें तपलें," "झिलबा राणो," "मोगाचें लग्न" हीं नाटकां गोंयच्या समाजजीवनांचोच हारसो कशीं दिसलीं तरी तीं परकी नाटकांचीं रुपांतरां, स्वतंत्र कोंकणी नाटकां न्हय.

शणै गोंयबाब हांचे उपरांतचो काळ हो प्रो. रामचंद्र शंकर नायक हांचो काळ. तांगेलें "चवथीचो चंद्र" हें स्वतंत्र नाटकुलें म्हळयार कोंकणी रंगमाचयेच्या इतिहासांतले एक वैशिश्टयपुराय यादस्तिकूच.

## गोंय सुटकेआदींचो काळ

गोंय सुटकेपयलीं 1955 - 56 च्या काळांत रंगमाचयेर आयिल्ले पुंडलीक नारायण दांडो हें कोंकणी रंगमाचयेच्या इतिहासाचें एक सोंपण. कारण तांचे "ताची करामत" नाटक हें गोयांतलें आनी सर्वार्थान पयलें कोंकणी नाटक. रचनेन स्वतंत्र, आधुनिक तंत्रान ताची रचना. गोंयच्या समाजजीवनाचें वास्तवपूर्ण आनी कलात्मक चित्रण तशेंच प्रयोगक्षम. दांडेचीं नाटकां आनी पणजी आकाशवाणी वयल्यान वितरायिल्लीं नभोनाटयां कोंकणी रंगमाची प्रस्थापित करपाक उपकाराक पडलीं.

दांडेचे समकालीन कृष्णा लक्ष्मण मोयो. मोयो जितले नाटचकलाकार म्हुण गाजले तितले नाटचलेखक म्हुण गाजलेनात. तांगेलें "तुळीळीचें लग्न" हें एक उल्लेख करपासारखें बरें नाटक.

1950 च्या अदमासाक मुंबयत जावपी आंतरमहाविद्यालयीन एकांकी सर्तींत गोंयकार विद्यार्थ्यांनी केल्ली रंगमाचयेची सेवा गोंयांतली कोंकणी नाटचचळवळ मुखार व्हरपाक कारण जाली.

## गोंय सुटकेउपरांत

गोंय सुटकेउपरांत कोंकणीत हेर साहित्याची जितल्या बळान वाड जावंक लागली तितली नाटयप्रकाराची मात जावंक पावली ना. तरी आसताना किसन कामत, विनय सुर्लकार, रामकृष्ण जुवारकार, अशोक कामत हांगी एकांकी आनी नाटयलेखन करून कोंकणी माची तगोवन दवरपाचो यत्न केलो. गोंयातले मराठी रंगमाचयेकडेन सर्त खेळपाइतलें बळगें मात तिचेकडेन आयलें ना.

## कला अकादमी नाटक महोत्सव

कोंकणी रंगमाचयेच्या विकासाक गोयांत खरी गती आयली ती 1976 वर्सासावन. ह्या वर्सासावन गोयांत कला अकादमीचे वतीन मराठी नाटयमहोत्सवा बरोबर कोंकणी नाटयमहोत्सव जावपाक लागले. ह्या नाटयमहोत्सवांतल्यान दोन गजाली घडल्यो. गोंयातले नव्या दमाचे लेखक कोंकणीतल्यान नाटयरचना करपाक लागले आनी कॉलेजांतली तरणी पिळगी ह्या प्रकाराकडेन ओडली. खंयचेय प्रगत रंगमाचयेर चलिल्ले नाटयलेखनाचे प्रयोग कोंकणी रंगमाचयेर मौलीक तशेंच रूपांतरीत स्वरूपांत यशस्वीपणान जावपाक लागले आनी कोंकणी रंगमाचयेर खऱ्या अर्थान "नाटयचळवळ" सुरू जाली. कोंकणी रंगमाचयेवयल्या आयच्या फक्त रूपांतरीत नाटकांचीच न्हय तर मुळाव्या (Original) नाटकांची लेगीत भारतांतले प्रगत रंगमाचयेकडेन तुळणा करूंक जायत. कोंकणी रंगमाचयेक फाटलो इतिहास वा अखंडीत अशी परंपरा ना. तरीलेगीत ही इतली प्रगती वा इतल्या वर्साची ही दोंड कशी भरून आयली असो प्रश्न वा दुबाव जरूर पडूं येता.

कोंकणी रंगमाचयेक अखंडीत परंपरा नासली तरी गोंयांत मराठी नाटकाची परंपरा अखंडीतपणान चलताली. गोंयच्या म्हालवजार महाराष्ट्राची वैभवसंपन्न नाटयपरंपरा चालू आसली. आनी हीच उजळ परंपरा, गोंयकार कलाकारांची नाटकांची जाण समृद्ध करपाक कारण जाली. मराठी नाटयपरंपरेक लागून लाबिल्ली ही समृद्ध जाण आनी आपले भासेंतल्यान सहजसुलभपणान घडिल्लो नाटयाचो अविष्कार, ह्या दोन गजालींक लागून कोंकणी रंगमाची आयज गुणाचे नदरेन अभिमानाचे पदवेक पावल्या.

ह्या काळांत कला अकादमीच्या नाटयसर्तीच्या निमतान शंबरांवयर नाटयसंहिता माचयेर आयल्यो. हातुंतल्यो सुमार पन्नासांवयर स्वतंत्र मौलीक स्वरूपाच्यो आसात बाकीच्यो संहिता अणकारीत वो रूपांतरीत आसात. दर वर्सा सर्तीच्या निमतान सुमार 10/15 नाटकां रंगमाचयेर येतात आनी मागीर गोयांत संस्थाच्या फंडाखातीर वो काल्यां जात्रांनी तांचे प्रयोग जावपाक लागतात.

3/4 नाटकांचे ल्हानशे नाट्यमहोत्सवूय वेगवेगळेकडेन जातात. मात 10 ते 15 प्रयोगांमुखार मजल पावना. 'शबै शबै भौजनसमाज' नाटकांसारकें एकादें नाटक पन्नास प्रयोगाच्या घरांत पावता.

ह्या सगतितल्या नाटकांच्या लेखनाचो आनी सादरीकरणाचो पावंडो पळयल्या उपरांत फाटल्या कितल्याश्याच वर्साची पोकळसाण ह्या नाटकांनी भरून काडल्या म्हणपाचें दिसून येता. तेचखातीर कोंकणी रंगमाचयेची वाटचाल तोखणायेची आसा आनी ह्या वावराखातीर गोंय कला अकादमी अभिनंदनाक पात्र थरता.

## कोंकणी नाट्यसंहिता

घटना, संघर्श आनी संवाद ह्या तिनूय गुणांनी उपाट आशिल्ल्यो संहिता निर्मुवपाक आमचे कांय नाटककार जैतिवंत जाल्यात. नाटकां बरोवपांत ताणी सातत्यूय राखलां. तातूंत ठळकपणान नांव येता तें पुंडलीक नारायण नायक हांचे. दत्ताराम बांबोळकार, अनिरुद्ध बीर उर्फ उपेंद्र तिबलो, दिलीप बोरकार, श्रीधर कामत, देवदास बाबय हे मौलीक नाटकां रचपांत यशस्वी थरल्यात. त्याशिवाय एन. शिवदास, दत्ता श्री. नायक, रवीन्द्र नमशीकार, विनायक खेडेकार, चंद्रकांत पार्सेकार, रामकृष्ण जुवारकार, तोमाजिन्यू कार्दोज, उदय भेंब्रो, उल्हास बुयांव, जे. एल. गोएश, दिलीपकुमार नायक, डॉ. अरूण हेबळेकार हांचींय मौलीक नाटकां उजवीं थरल्यांत.

## अणकारीत वो रूपांतरीत संहिता

अणकारीत वो रूपांतरीत नाटकां हें आयचे कोंकणी रंगमाचयचें एक वैशिष्टय. दोन कारणांखातीर हीं नाटकां माचयेर येतात. पयलें कारण म्हळ्यार कोंकणीत प्रयोगक्षम नाट्यसंहितेचो उणाव आनी दुसरें कारण भारतीय रंगमाचयेर नांवाजलेल्यो समर्थ नाट्यकृती तितल्याच समर्थपणान कोंकणी माचयेर सादर करपाचो हावेस. गरजेक लागून कांय मराठी नाटकां कोंकणीत अणकारीत जाल्यांत, जाल्यार हावेसाक लागून आद्य रंगाचार्य, बादल सरकार, विजय तेंडुलकार, वसंत कानेटकार हांचेसारख्या आयच्या काळांतल्या भारतीय नाटककारांच्या कलाकृतींचे यशस्वी अणकार वा रूपांतरां जाल्यात. संस्कृत आनी ग्रीक नाटकांचेय रूपकार सादर जाल्यात. नागेश करमली, प्रा. प्रकाश थळी, प्रो. शातासाम हेदो, सुरेश काकोडकार, पुरूषोत्तम शिंगबाळ हाणी दोनूय भासांकडेन प्रामाणिक रावून कांय सशक्त संहिता कोंकणीत हाडल्यात. डॉ.

विजय थळी, अशोक भोंसलो, रवींद्र आमोणकार हाणी कांय नाटकांची रूपांतरां करपाचो यशस्वी यत्न केला.

## सादरीकरण

समर्थ नाट्यसंहिता तितल्याच समर्थपणान सादर जालीना जाल्यार ती तितलो प्रभाव घालूंक शकना. गोंयकारांची नाटक ह्या प्रकाराची जाण खोलायेची आशिल्ल्यान केन्ना केन्ना मूळ संहितेपरसूय नाटकांचे सादरीकरण अदीक प्रभावी जाल्लें दिश्टी पडटा.

प्रा. प्रकाश थळी, दिगंबर शिंगबाळ, श्रीधर कामत बांबोळकार अशे स्वतंत्र प्रज्ञेचे दिग्दर्शक कोंकणी रंगमाचयेची गिरेस्तकाय थरल्यात. दिग्दर्शनाच्या मळार प्रकाश आचार्य, नागेश कोचकार, भरत नायक, सुरेश काकोडकार, दिलीपकुमार नायक, मधुकर जोशी हाणीय बरी कामगिरी केल्या. एक कश्टी दिग्दर्शक म्हण रवींद्र आमोणकाराचो खास उल्लेख करपाक जाय. अवधूत कामत आनी विजय थळी हांची कल्पकता तांगेल्या दिग्दर्शनात जाणवता.

अभिनयाच्या क्षेत्रात लक्ष ओडून घेवपी जायते उमदे कलाकार झळकल्यात तातूंत भरत नायक आनी अजीत केरकार हीं दोन नावां मुखेलपणान नदरेंत भरतात.

उल्हास पै रायकार, पुरूषोत्तम शिंगबाळ, महादेव नायक, अशोक भोंसलो, सुमंत केळेकार, प्रकाश आचार्य, त्रिविक्रम रायतूरकार, अनिल देसाय, श्याम विर्जिनकार, नारायण कामत, रवींद्र नमशीकार, सिताराम शिंगबाळ, विनयकुमार गावणेकार, रामदास नायक हाणी आपणालें खाशेलें अभिनय कौशल्य दाखयलां.

बायलांचे बाबतींत मात एक दोन फावट दिसपी बायलां परत दिश्टी पडनात. मात एक गजाल खरी, आयज नाटकांत कामां करपाक चलयो आपुण जावन मुखार येता. कोंकणी रंगमाचयेर कांय वर्सां सातत्यान दिशिल्ल्यो, आनी आपणाल्या खाशेल्या अभिनयगुणांक लागून नदरेंत भरिल्ल्यो स्त्री कलाकार म्हळ्यार मीना काकोडकार, सुकांती गावडे, ज्योती नावेलकार, विनंती कासार, स्वरूपा कुंदे, वंदना मळये, नूतन नमशिकार, गीता नायक बिठ्ठोणकार आनी स्मिता सरदेसाय.

## नाटकाचीं तांत्रीक आंगां

प्रकाश येवजणेचो कल्पकतेन वापर करपी म्हण उल्हास फुलारी, राजेंद्र तालक, किर्तीकुमार प्रभू, हांगेलीं नावां दोळ्यांमुखार येतात.

ध्वनी-संकलन - संयोजन हे बाबतींत मात कोंकणी रंगमाचयेर कांय आडवाद सोडल्यार खाशेले अशे प्रयोग जावंक नात. पूर्णानंद च्यारी पार्श्वसंगीताचे बाबतींत लक्ष घालता.

नेपथ्याचे बाबतींत आनंद अमोणकार, विनोद तिळवे, रोहिदास गावडे हाणी वास्तवपूर्ण नेपथ्याची उबारणी करपांत कौशल्य दाखयलां. जाल्यार दयानंद भगत, दिलीप धामस्कार, अरूणकुमार साळगांवकार, सुनिल नायक, श्रीधर बांबोळकार, दीपक गाड हाणी नेपथ्याचे रचनेत सुचकता आनी प्रतिकात्मता हांचेर भर दिला.

## कोंकणी एकांको

कोंकणी रंगमाचयेच्या वांवरांत कोंकणी एकांकीचो वांटो खूब म्हत्वाचो आसा. पुराय नाटक मूर्त स्वरूपांत येवचे आदीं कोंकणी एकांकीनीच लोकांची भूक भागयल्या. कोंकणी एकांकीतलें लेखन आनी सादरीकरणातले बदल दोळे दिपकावपी थरल्यात.

आयज अकादमीच्या सर्तीनी, विद्यालयीन आनी महाविद्यालयीन स्नेहसंमेलनानी, उत्सवांनी आनी स्थानिक संस्थांच्या सर्तीनी एकांकीचे प्रयोग जातात. कोंकणी एकांकी जितली समृद्ध जातली तितलें कोंकणी नाटक समृद्ध जावपाक पावतलें.

## वेवसायिक रंगमाचयेचो उणाव

आयज कोंकणी रंगमाचयेचो सगळो व्याप हौशी रंगमाचयेपुरतोच मर्यादीत आसा. कारण गोयांत तियात्र हो कोंकणी लोकनाटयाचो प्रकार सोडलो जाल्यार वेवसायिक रंगमाची ना. शेंकड्यांनी वर्सांची परंपरा आशिल्ले मराठी रंगमाचयेकूय गोयांत वेवसायिक बैठक ना. पूण एक गजाल खरी. गोयांतली हौशी रंगमाची आयज खंयचे परिस्थितींत संकश्टांत ना. कला अकादमीचे आर्थिक फाटबळ, कांय प्रयोगांतल्यान येवपी येजावळ हातुंतल्यान ना लुकसाण - ना फायदो ह्या तत्वार हांगची रंगमाची चलता. देशांतल्या खंयच्याय भागापरस हांगचे हौशी रंगमाचयेक बरे दीस आयल्यात. फक्त आशिल्ले संदीचो फायदो उठोवपी कलाकार जाय. पूण कोंकणी माची चडानचड समृद्ध आनी समाजाकडेन पावपाक वेवसायिक रंगमाचयेचीं मुळां धरपाक जाय. गोंय, सावंतवाडी, मुंबय आनी कारवार, मंगळूर, कोचिन ह्या भागातल्या समाज-जीवनाचो अभ्यास करून आनी बोलीभाशेची तडजोड स्वीकारून जर नाटयनिर्मिती जायत जाल्यार कोंकणी

मावी अदीक संपन्न जावपाक पावतली.

## लोकनाट्य तियात्र

कोंकणी रंगमाचयेचो एक भाग तियात्र. लोकनाट्य ह्या प्रकारांतून ताचें वेगळें मोलावप करचें पडटलें. तियात्रांत साहित्यिक आनी कलात्मक गुणाचो उणाव आसलो तरी गोयांतल्या किरिस्तांव लोकांची सांस्कृतिक भूक भागोवपाचें काम हो लोकनाट्य प्रकार 1892 वर्सासावन करत आयला.

## गोंयांभायर कोंकणी नाटक

गोयांभायर महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ राज्यांनी विखरून पडिल्ल्या कोंकणी समाजान कोंकणी संस्कृताय पोटळून धरल्या. ते संस्कृतायेंत नाटक हो भाग वेगळो काडूं नज्जो इतलो तो एकरूप आसा.

नोकरी वेवसायाच्या निमतान मुंबयत येवन रावपी कर्नाटकांतल्या कोंकणी लोकांचो आंकडो व्हड आसा. हिंदू धर्माच्या लोकांच्यो धर्मिक आनी ज्ञातीय स्वरूपाच्यो संस्था आनी मठ आसात. आपणाली सांस्कृतिक भूक भागयताना तांच्यातल्या सर्जनशील कलाकारांनी नाट्याचे उत्कट आनी भावपूर्ण अशे आविष्कार घडयल्यात. हे आविष्कार केन्ना मुंबयत जाल्या आनी तांचे पडसाद कर्नाटकांत तांगेल्या गांवघरा उमटल्यात जाल्यार हे नाट्यप्रयोग तांच्या गांवघरा पयलीं जाल्यात आनी मागीर मुंबयत तांचे कर्मभुयेंत पावल्यात.

1920 वर्साच्या अदमासाक बोळंतूर कृष्ण प्रभु हाणी बरयिल्लें 'चंद्रहास' हें पयलें पुराय स्वरूपाचें संगीत कोंकणी नाटक अशें मानतात. तांच्या उपरांत शिवानंद भट्ट गुलवाडी हांचें नांव नाटककार म्हण मुखार येता. मुंबयत मंगळूरी शैलींतलीं जीं नाटकां सुरू जालीं तांचे श्रेय उमानाथ डोंगरकेरी हांगेल्या 'वज्रमुकूट' ह्या संगीत नाटकाक दिवंचे पडटा. तांच्या उपरांत स्वतंत्र आनी अणकारीत नाटकां रचपांत सुंदर उळ्ळाळ हांचें नांव येता. प्रभाकर आनंदराव मुदुर, पांडुरंग सीताराम तलगेरी, व्यंकट तलगेरी, नरहरीभट्ट कल्याणपूर आदी नाटककारांनी नाटकां रचलीं. हे नाट्यपरंपरेच्या आदारान 1958 वर्सासावन 'कोंकणी साहित्य समिती' कोंकणी नाट्यमहोत्सव मुंबयत घडोवन हाडटा.

मंगळूरी शैलींतले हे नाट्यपरंपरेंत बैंदूर देवराय अय्यगळ हें नांव उठून दिसता. संस्कृत साहित्यावांगडा ताणी परकी भाशेंतल्या अभिजात साहित्याचोय अभ्यास केला.

कर्नाटकांतल्या कोंकणी हिंदू लोकांच्या देवस्थानच्या प्राकारांत कोंकणी

नाटकां खेळपाची परंपरा चलता. होनावरचे बाबुटी नायक हाणी शंबरां वयर नाटकां बरयल्यांत. दांडेली हांगचे के. एन. राव हाणी 1952 ते 62 च्या काळांत उत्सवां खातीर कांय नाटकां बरयल्यांत.

कर्नाटकांतल्या इगर्जाभोंवतणीय कोंकणी रंगभांवयेक पोसवण लाबल्या. कोंकणी एकांकीचे प्रयोग पयलीं धर्मिक थळांचेर, वाठारांनी जावपाक लागले आनी मागीर ताका सामाजीक दाखोवणेचें स्वरूप आयलें. मंगळूरांत 'कोंकणी नाटक सभा,' 'कला संगत' आदी संस्था नाटकांच्यो सर्ती घडोवन हाडटा. डॉन बॉस्को हॉलांत सप्तकांतल्यान एकदां तरी कोंकणी नाटकाचे खेळ जातात. व्ही. जे. पी. साल्दान्य, दोल्फी लोबो काल्सीया, मार्टिन डि सा, एस. एस. मिरांडा, फ्रेड फेर्नांडीस, सिरिल व्हियेगश, विल्फ्रेड रिबींवस हे कांय नाटयलेखक आसात. एका काळार हिंदू आनी किरिस्तांव हांचेमदीं आशिल्ली सांस्कृतिक दोंड सादपाचो यत्न कांय नाटचकृतीवरवीं जावपाक आरंभ जाला.

कर्नाटकांत कोंकणी नाटकाची परंपरा चलता. 1948 वर्साच्या अदमासाक लुईस मास्कारेन्यस हाणी बरयिल्लें 'आब्रावांचें यज्ञदान' ह्या गीतनाटचा उपरांत तितले साहित्यिक तांकीची नाटचरचना उपरांतच्या पंचविशेक वर्सांभितरेन जाली ना.

लुईस मास्कारेन्यस हांचेच तांकीचो स्वतंत्र प्रज्ञेचो आनी चिंतनशील नाटककार उदयाक आयलो तो म्हळयार चार्लस फ्रान्सीस दे कॉस्ता. चा. फ्रा. कोस्ता म्हण काव्याच्या मळार तांकां सगट कोंकणी संवसारांत नामना आसा. फाटलीं चार दशकां तो कवी, गीतकार, पत्रकार आनी नाटककार म्हण आपणाले स्वयंभू प्रतिभेन चकचकता. लुईस मास्कारेन्यस आनी चा. फ्रा. द कॉस्ता हांची तुळणा करताना तांचे भजगतीं एक मुळावो भेद नदर ओडून घेता. तो म्हळयार लुईस मास्कारेन्यस एक देवभक्त कॅथॉलीक जाल्यार चा. फ्रा. दे कोस्ता विद्रोही कॅथोलीक आनी म्हत्वाचें म्हळयार दोगूय प्रतिभावंत. एकल्याची देवभक्ती जाल्यार दुसऱ्याचो विद्रोह तितलोच कलात्मक जावन नाटचकृतींत देंवला.

चा. फ्रा. दे कोस्ता हाणी 'तर्ने तर्ने मोर्ने,' 'मागीरचें मागीर', 'भांगर मनीस' सारक्यो एकापरस एक नाविन्यपुराय नाटकांच्यो रचना केल्यात.

गोंयांत, मुंबयत आनी कर्नाटकांत जशी नाटकाची परंपरा आसा तशी खास परंपरा केरळांतल्या कोंकणी समाजामदीं ना. नारायण नरसिंह पै (1879-1959) सारक्या नाटककारानी थंय कोंकणी नाटकां मोठ्या प्रमाणांत सादर केली. आतां कविता, कथा, धर्मीक साहित्य ह्या बरोबर नाटचरचना जातात. के. अनंत भट सारके गीतकार, संगीत नाटकां रचतात.

गोंयाभायर जावपी नाटकाची एक म्हत्वाची घडणूक म्हळयार 1991 वर्सा सावन, कर्नाटक राज्यांत उडूपी हांगासर जावपी अखिल भारतीय कोंकणी

नाटयमहोत्सव. देशभर विखरून आशिल्ल्या कोंकणी नाटचसंस्थांक तें एक व्यासपिठ लाबलां.

कोंकणी नाटयचळवळीचेर नदर मारतना आशादायक अशें चित्र जरूर दिसता. कारण कोंकणी रंगमाचयेची मदार आयज उमेदी तरनाटयाच्या भुजार आसा. कोंकणी रंगमंचार आयज चडानचड गरज आसा ती कोंकणी नाटककारांची. गोयांतल्या नाटककारांक आयज कोंकणीबगर दुसरो पर्याय ना हें काळान सिद्ध केलां. हीं काळाचीं पावलां हांगचे चडानचड लेखक जेन्ना वळखूंक पावतले तेन्ना हांगची रंगमाची मोटया नेटान फुलतली. कोंकणीतले स्वतंत्र प्रज्ञेचे नाटककार जेदेवेळार भारतीय रंगमंचाखातीर योगदान करपाअितले समर्थ जातले तेदेवेळार कोंकणी माची भारतीय रंगमाचयेचे पंक्तीक येवन बसतली.

आनी तो वावर सुरू जाला.



"कोंकणी रंगमंचार आयज चडानचड गरज आसा ती कोंकणी नाटककारांची. गोंयांतल्या नाटककारांक आयज कोंकणीबगर दुसरो पर्याय ना, हें काळान सिद्ध केलां. हीं काळाचीं पावलां हांगचे चडानचड लेखक जेन्ना वळखूंक पावतले तेन्ना हांगची रंगमाची मोट्या नेटान फुलतली. कोंकणीतले स्वतंत्र प्रज्ञेचे नाटककार जेदेवेळार भारतीय रंगमंचाखातीर योगदान करपाइतले समर्थ जातले तेदेवेळार कोंकणी माची भारतीय रंगमाचयेचे पंक्तीक येवन बसतली.

आनी तो वावर सुरू जाला."

---


**अपुरबाय**

**प्रकाशन**

मुखपृष्ठ छापणावळ
राजेश तळावलीकार, फोंडें